ब्र प्रकाशन : ३
पयली खेप : सप्टेंबर १९९७


**प्रकाशक :**
एस.डी.तेंडुलकार
लोबोवाडो,थिवी
बारदेश-गोंय

**अक्षर जुळणी :**
स्नेह ग्राफिक्स, पल्लवी,
ताळगांव, गोंय फोन : २२१०२२

**छापपी :**
इंप्रेशन्स्
बी-२, अक्षर आर्केड,
३३६०/४, गोंधळी गल्ली क्रॉस रोड,
बेळगाव.

**वालोर :** पंचावन रुपया

## मांडावळ

*चलो एक बार फिरसे*
*अजनबी बन जाए हम दोनो*

----- *साहिर लुधियानवी*

*There is nothing to express*
*Nothing with which to express*
*Nothing from which to express*
*No power to express*
*No desire to express*
*Together with the obligation to express*

----- *Samuel Beckett*

१

## गर्दी

एक म्हणजे काशिनाथ
दोन म्हणजे शांबा
तीन म्हणजे लोलयेकार
काशिनाथ शांबा लोलयेकार
इन मिन तीन
तीन ही गर्दी
गर्दैभोंवतणी उदक
आनी
गर्दैंत जीतो मूस ना

## वासुचें कांतार

एक आसलो वासु
तो आसल्यार आसूं
नासल्यार नासूं

वासुचें पडलां कोणांक
गा वासुचें पडलां कोणांक

वासु गेलो थिंगा
थिंगा वासुचें कसलें काम
वासु येयलो हिंगा
हिंगा वासुचें कसलें काम
नागडो बेताळो
शेतांत वयतालो
शेतकाराचें मूत पियोन
घरा येतालो

आयकतना वासुचें तोण
उगडेंच उरता
पळयताना वासुचें तोण
उगडेंच उरता
उलयताना मात तेजें तोण
धापलेलें आसता

वासु बाये वासु
वासुच्या जल्माक
रडूं काय हांसूं

वासु म्हणजे वासुदेव न्हूं
वासु म्हणजे
वासुदेव महादेव बाणावलीकार न्हूं
वासु म्हणजे
वासुदेव शांताबाय बाणावलीकार न्हूं
वासु म्हणजे कोणूच न्हूं
वासु कोणूच न्हूं
वासु वासु न्हूं

वासु जायत गेलो
मोटको मोटको
वासुची सावळी जाली
लाम लाम

बाये बाये बांय पळय
बांयतलें उदक पळय
उदकाचो तळ पळय
तळापोना मातयेक
घास मारुन रावल्लो वासु पळय

वासु वासु फेस्त पळय
फेस्तांतले लोक पळय
लोकांच्या हातींतले बोमाडे पळय

वासु बाये वासु
वासुच्या जल्माक
रडूं काय हांसूं

वासु म्हणजे वासुदेव न्हूं
वासु म्हणजे
वासुदेव महादेव बाणावलीकार न्हूं
वासु म्हणजे
वासुदेव शांताबाय बाणावलीकार न्हूं
वासु म्हणजे कोणूच न्हूं
वासु कोणूच न्हूं
वासु वासु न्हूं

वासु जायत गेलो
मोटको मोटको
वासुची सायळी जाली
लाम लाम

बाये बाये बांय पळय
बांयतलें उदक पळय
उदकाचो तळ पळय
तळापोना मातयेक
घास मारुन रावल्लो वासु पळय

वासु वासु फेस्त पळय
फेस्तांतले लोक पळय
लोकांच्या हातींतले बोमाडे पळय

वासु रे SS
फुट्टा तो बोमाडो तुजो

एक आसलो वासु
कितें सांगू तेजी काणी
जांव आसूं

## कविता : १९८४

हांव भायर सल्लों देवाचे कुडींतसून
दिवलेचेर सिगार पेटोवन दत्तात्रयाचेर धुंवर सोडून
उपरांत हांव भायर सल्लों घर सोडून

आवय बापूय आजी
बुळबुळीत भेण्याची भाजी
हांवें सोडलें गोंय सोडलो हिंदुस्तान
म्हाकाच समजोंक ना हांव खंय पावलो उपरान

तिसरें महायुध्द सुरू जाल्लें तेन्ना
एका झाडार बसोन हांव पळयतालो आकाश
इंदिरा गांधीच्या मर्डरची बातमी
म्हाका कळली बद्द शंबर वर्सानी

## पात्र

म्हाका तसो जीवाचो वाजबीज येयना
कारण सुण्याची शेपडी हांव नळयेंत घालीना
मनांत येयले की हांव उंच दोंगरार वयतां
आनी दोंगरावयरसून सकयल पळयतां

हांव रानांत आसलो तरी
म्हाका याचुंक बरोंक येता
हिस्ट्री घेयन हांव बी.ए.जालां
सध्या इतिहासांत हांव म्हजें नांव सोदतां

कोळी घरांत सुंदर जाळी करता ती म्हाका आवडटात
सोयरोधायरो येयलो की तेंचेकडे उलोंक म्हाका आवडाना
हांव केन्नाच केंस उगयना
कारण फणयेच्या दातांचो म्हाका भंय दिसता

ल्हान आसतानां हांव ल्हान आसलो
आतां म्हजी दाडीबिडी याडल्या
तोण घेयन हांव हारशांत पळयतां
आनी हारशांत म्हाका दिसता अख्खें जग

# थुंमेकल

हांव केन्नाच नॅगार वचोंक ना
जीवांत जीव आसासर फकत नकार दिवपाची
शक्त म्हाका जाय
ना जाल्यार म्हाका बिरमत फुट्टली
सगलें बदलून उडोवपाची कापाजदाद म्हजेकडे ना
एका उंदरान भितरल्या भितर पोखरून उडयल्लो मनीस हांव
हांव थुंकता म्हजेरूच
आनी उलयताना सगल्यांच्यो तोणार म्हजी थूंकी उसळो

काशि म्हंटा : हांव केन्नाच बें म्हणपाचो ना
मरताना फकत म्हंटलो,थूंमेकल.

## नाकार

पेरीक वखद आनी कुरार
येफेद जायना जाल्यार कर मुदार

नाजाल्यार
हें नसांव
हें मालीसांव
ह्या सगल्यांचोच कर अणकार

तेवूय जायना जाल्यार
म्हण एक दोन तीन चार
आनी बस धुकरार
आनी कांयच जायना जाल्यार
सगलेच नाकार

"Poets don't invent poems
The poem is somewhere behind
It's been there for a long long time
The poet merely discovers it."
----- JAN SKACEL

## बेबदो

कोण कोणाचो ?
आंकल,
घाल रुपयाचो !

# सुराट

जगपाची आख्खी धुंदी देवलेली
म्हुणुन आयज तेणी ती फेणी मारून चडयली
म्हाराष्ट्रांत घालून तो बाण जालो
आनी गेल्लो आत्मविश्वास तितल्यापुरतो परत येयलो
दुसऱ्याच्या नदरेक नदर भिडोवपाचें पॉस येयलें
ढामढूम मारामारी करपाचें तेसांव चडलें
तेणी धण्ण करुन माल्ली मूठ नो पार्किंगच्या बोर्डाचेर
कुत्र्यासारको पांय वयर करुन तो मुतलो इलेक्ट्रीकच्या खांब्याचेर
आनी तेका परत जियोशें दिसलें
तो गांवक लागलो : सालाझार व्हेंट टू पोर्तूगाल ला SS लाला SS
तो घुसलो एका बोगस हिंदी पिक्चराक
पिक्चर पळयताना तेका आयुष्य सुंदर दिसलें
मध्यानरातीर काळखांत तेणी खटखटयलें घराचें दार
तेका जाग येयली कोम्यासादार
भयंकर तान लागलेली आनी ताळो सुकोन येयल्लो
घुलघुलातांतलें थंडगार उदक पियोवन तो परत न्हिदिल्लो

११

# टांकी

त्या
उंच
बांदलेल्या
उदकाच्या
टांकयेक
पळयताना
वयलें
मळब
लक्षांत
येता
आनी
हेवूय
लक्षांत
येता
की
हांव
पावसाची
वाट
पळयतां

## चरित्राची चत्राय

२२ जुलाय १९५७ ह्या दिसा
म्हज्या जीणेंत एक व्हडलो फात्त घडलो
त्या दिसा म्हजो जल्म जालो
ह्या गजालीक आतां पंचवीसेक वर्सां जावन गेली
मदी ःगोंयबीन स्वतंत्र जालें
गोंय स्वतंत्र जालें त्या वत्तार हांव आसलो सामको भुरगो
आतां दिसता मनीस फकत एकदांच स्वतंत्र आसता---
भुरंगेपणांत.आसूं.तर सांगचें जाल्यार
हांव दिशीमिशी वाडलो
पुण म्हजें माथें मळबाक तेकलें ना
फकत पाय पाताळांत रोमले
म्हुणुन कसोबसो तकली सकयल आनी पाय वयर करुन
हांव चलत रावलो
आनी लोक हांसत रावले
सध्या हांव एका बँकीत काम करता
सद्दा बसींतल्यान येतां वयतां
बसींत खुप गर्दी आसता
आनी त्या गर्देंत हांव आसता

## घर

हांव
घरांत एकलोच आसता
घरांत कोणएक नासता
घरांत व्हडली व्हडली रिकामी सालां आसतात
ह्या सालांतल्यान त्या सालांत हांव पासयो मारीत आसता
घर कोणाचें तेवूय म्हाका खबर नासता
दारां जनेलां बंद आसतात
दाराक भायरसून मोट्टें कुलुप लायल्लें आसता
त्या कुलुपाची चावी म्हज्या मनांत आसता

तो
घरांत एकलोच आसता.

## ग्रह

हांव घर करून रावतां
आनी म्हज्या काळजांत एका कावळ्यान घर केलां
जो आपली चोंच म्हज्या काळजांतसून भायर काड्टा

वन्टीर एखादी पाल माणून रावलेली आसता
म्हजी सावट लागतकुच जल्लो फुरूफुरू पळटा
घरांत उंदरान एक व्हडलें बीळ काडलेलें आसता

घरांतसून म्हाका भायर रस्त्यार येवचेच पड्टा
आनी रस्त्यार आसतात लोक
जेंका पळोन हांव पृथ्वी नावाच्या एका ग्रहाचेर
निकतोच उतरलां
हें म्हज्या लक्षांत येता

# थिएटर

जें मनांत येयलें
तें मनांतूच आसलें
मनांत येयलें की
एकलोच उरप म्हणजे आत्महत्या
चारचौगांत वचप म्हणजे खून
जगप म्हणजे एक बलात्कार आसता
आनी थिएटरांत आसतात लोक
आनी काळोख

मनांत येयलें की
आता सगलें सोपलें
तीन वरांचे पिक्चर सोपलें
दिवे लागले आनी दारां उगडली

पुण मनांत येवच्या आदीच
लोकांचो लोट भायर सल्लो
म्हज्या मनाचो बांध मोडून

## राष्ट्राखातीर एक कविता

हांवें म्हज्याबद्दल विचार करपाचो आता सोडून दिला
आता हांव राष्ट्राचो विचार करता

अमेरिकेपासून म्हाका सावध रावोंक जाय
म्हज्या सपनांत फुट्टा एक अणुबाँब
पंद्रा ऑगस्टाक हांवें नवो जल्म घेवंक जाय

देशामुखार आयज कितलेश्शे भयानक प्रस्न उबे आसात
तेचेर आयज हावें सबंद दिस विचार केलो
आनी तकली भणभणली म्हुणुन सांजचें
इल्लें पेटवपाक भायर सल्लो

दोन ऑक्टोबराक हांव पियोन तायट आसलो
हें महात्मा गांधीक खबर ना
पुण राजीव गांधी म्हंटा तें खरेंच
आमचें राष्ट्र
धोक्यात
आसा

## वासुक समजावणी

बाब वासु, तुजें फुडे बरें बरें जावपाचें आसा
आता इतल्यानूच जणगणमण म्हुणुन सगलें सोपयल्यार
कशें जातलें ? सध्या राष्ट्राक तुजी गरज आसा
पळय, तुजी दशा पळय, आरे सामकोच बांगलादेश जालाय तूं
तूं नीट मार्गाक लागचो ह्या खातीर तुज्या आवयन पळय
बोडगिवयल्याक पाच केळीं आंगयल्यात
सत्यनारायणाची म्हापूजा सांगून घेतल्या
मिलाग्री सायबिणीक वाती म्हटल्यात
पापया, इतलो मालुकेत जांव नाकाय रे
तुका असो देवाक सोडुंक ना
आवयबापायचें बरें नांव वयर काड
जगाक कितेतरी करून दाखय

वासु म्हंटा : 'जमाने को दिखाना है'----
हें एका बोगस हिंदी फिल्माचें नांव

## फडके आनी लोलयेकार

Glad to meet you Mr. Phadke
But how unpleasant to meet Mr. Lolienkar
कारण हो लोलयेकार म्हणजे एक कटू सत्य
त्या सत्याक भेटनाफुडे तुजें तांबे-पितुळ पळय कशें उगडें पडलें
आता बोकडे मारूंक तुजेकडे उतरां ना
आता तुज्या बामण पॉलीसीची मात्रां चलाना
आता तुका जाय एक आख्खो भाशेचो बांयटेर
नाजाल्यार तूं मङ्याच्या ताळूवयलें लोणीच खायत उरतोलोय्
लक्षांत दवर, तूं हात धरताय्, दामताय्, लोट्टाय्, घालताय्
पुण तुवें फकत हातीक कांकणा घालपी वळार जावचो न्हू
तूं जा घोव आख्खी भूंय नागरून मोव करपी जीवाशिवाची

काशि म्हंटा : बाब लोलयेकारा, तूं दुसऱ्यांक फकत
शापादाच सांगीत उल्लोय. पळय, एकामेकाची गांड मारीत
ते सगले फुडे गेले आनी तूं हांगाच हालयत उल्लोय

# तुकाराम आनी काशिनाथ

तूं तुकाराम.हांव काशिनाथ.पुण दोगांकुय प्रश्न पडलो
तो एकूच : 'कां मी जीतो संवसारी अद्यापवरी भूमीभार ?'
पुण तुक्या,तुज्याचसारकी म्हाकाय आग फुंकपाची
आसली,गांड न्हूं.म्हाकाय त्या देवाक सारको वठणीर
हाडपाचो आसलो.जियोपाखातीर म्हाकाय जाय आसलें
एक पंढरपूर एक पांडुरंग.पुण करुन करुन भागलो आनी
देवपुजेक लागलो असल्या परंपरेतलो हांव मनीस न्हूं
हांव कमरेचें सोडुंक सोदता पुण तें म्हाका तकलेक बांदपाचें ना
तेचें कितें करपाचें तेच हांव थारोंक शकाना
मोनो जावन हांव फकत सांगुक सोदता एक किर्तन
भेड्डे जावन बसलेल्या सगल्या लोकांक
--- जे जमल्यात म्हज्या इतेराक

तुका म्हंटा : मढें शृंगारिले वरी तेचि झाली परी मज देवा
आनी काशि तरी कितें वेगळे म्हंटा

## पी.एस.एन.खातीर

वयांत येयल्ल्या स्वताच्याच भयणीकडे
भावान ल्होवूच चोरुन पळोवचें तशी तेची नदर
तो चडसो नदरेक नदर दिना
उलयताना दुसरेचकडे पळोवन उलयता
उलयताना आवंडो घोटपाची तेची संवय

तेच्या घरांत वन्टीर बंद पडलेलें एक घड्याळ आसा
तेचे काटे हातीन बेश्टेच घुवोवन
तो टोले आयकता,ही गजाल सोडली तर
तेच्याबद्दल म्हाका चडशें कांय खबर ना

तरी तेच्याबद्दल कांय तर्क बांदू येतात
की तेका तलत किंवा मेहदी हसन आवड्टा आसतलो
मास्टरबेशन करपाची तेका संवय आसतली
तो बापायक खुप भियेता आसतलो
सपनांत हत्ती तेच्या छातयेर पांय दवरता आसतलो

## सॉनेट : हिंदी फिल्लम स्टायल

ओ माँ  SS म्हाका आनी एकदां जल्माक घाल
ओ पिताजी, एकतर तूं म्हजो खून कर
नाल्यार हांव तरी तुजो खून करतां
ओ नानी माँ, तूं आजुनूय कशी मराना ?
ओ बहेना, राखीके बंधनको क्यूं निभाना ?
ओ भाय, आमी शेणले एका जात्रेंत
आरे भिकाऱ्या, म्हजेकडे एकुच नवो पैसो उल्ला
जो म्हाका विख खावपाक जाय
ओ इन्स्पेक्टरसाब, हांव आत्महत्या करुंक सोदता
आत्ताच्या आत्ता म्हाका अरेस्ट करुन म्हजेर केस घाल
ये लोलयेकारा, कसल्यो शॅटाच्यो कविता बरयताय
कापाजदाद आसल्यार म्हजेर एक म्हाकाव्य बरोवन दाखय
ओ लता, म्हजेखातीर एक लोरी म्हण मगो आतां
हांव मरतोलो तेन्ना सगल्यांक म्हजे पाय पाळण्यांत दिसतले

## हय न्हू : एक सॉनॅट

वाड्टा पुण झाड न्हू
चड्टा पुण सोरो न्हू
झड्टा पूण पावस न्हू
पेट्टा पुण उजो न्हू
उड्टा पुण शेवणें न्हू
तुट्टा पुण पतंग न्हू
सुट्टा पुण गिराण न्हू
दड्टा पुण चंद्र न्हू
फुट्टा पुण हारसो न्हू
रड्टा पुण भालू न्हू
पड्टा पुण मळब न्हू
बुड्टा पुण सूर्य न्हू

काशि म्हण्टा : हें सगलें स्वता हांवूच भोगीत येयलां
आनी ही म्हजी जीण जाल्या अशी न्हय न्हू

# काळखांत हांवे दोळे उगडले

एक शेकानशेक उगडें दार म्हज्या सपनांत
म्हज्या सपनांत मारुन उडयल्लो एक प्रचंड सोरोप
म्हज्या तळहातीर दोंगरायेदो एक फोड
हांव जपतां तुजो खून करपाक
जो खून हांवें आदींच पचयला

हांवें एक नावाचें लिस्त्र तयार केलें
इंदिरा गांधी,अमिताभ बच्चन,सुनील गावस्कार,
किशोरकुमार,सत्यजीत रे,रगलो आडपैकार....
आनी घर सोडून हांव गेलो जंगलांत
थंय हांवें पळयलो एक मनीस झाड तोडपी

वर्तमानपत्र आरतून परतून वाचीत हांवें आयज
सबंद दिस घालयलो.उपरांत सांजचो मावळटो सूर्य पळयलो
रातचो बारामेरेन पळयत बसलो जळट्या बल्बाक
आनी लाईट ऑफ करुन काळखांत हांवें दोळे उगडले

## शंकर परूळकार : एक

हांवें शंकर परुळकाराक म्हटलें, :
धडपाभितर धडप तेजेभितर गडप
पुण तेजेभितर राजा ना, तेजेभितर ना राणी
फकत काळजार एक खडप
आनी नाकामेरेन पावलेले पाणी

हांवें शंकर परुळकाराक म्हटलें,:
मनीस असो कित्याक शेणटा
मनशाचे चार आणें कित्याक शेणटात
मनशाक कुरू जाय आसता कांय बावलो

हांवें शंकर परुळकाराक म्हटलें :
जनावरां केन्ना आत्महत्या करीना
आनी मनीस कितें फकत पोट भरपाखातीरूच जियेना

हांवे शंकर परूळकाराक म्हटलें :
तूं शंकर परूळकार न्हूं

## शंकर परूळकार : दोन

डबलबेड फ्लॅटांत
शंकर भुताभशीन एकलोच रावता
दारार टकटक केलें
तेन्ना शंकरानूच दार उगडलें
आनी तो हांसलो
हांवें म्हटलें, हांव शॅटा तोडुंक येयलां
तो शॅट तुटलेल्याभशीन परत हासलो.

उपरांत खंयसून तरी तेणीन व्हिस्कीची बाटली भायर काडली
माथ्यार फॅन घुंवतालो
हांवे म्हटलें, फॅनाचो आनी एक उपेग जांवक शकता
फॅनाक दोरी घालून आत्महत्या करूं येता
पुण ह्या उतरांचेर तो हासलो ना
व्हिस्कीचो एक मोट्टो घोट घेवन
तो घुंवत्या फॅनाक पळयत रावलो

उपरांत खुप बाण जाल्याउपरांत तेणी म्हटलें,
म्हाका एकलोच बसोन पियोंक चड आवड्टा
बरीच रात जाल्ली
म्हजे दोळे आनी जीभ बरीच जड जाल्ली
हांव उठलो आनी हांवें भितर खाटीर ताणून दिलें

उपरांत तो एकलोच पियेत बसलो

## मोहनदास करमचंद गांधीखातीर एक कविता

एक माकड आनी एक मनीस
तीन माकडां आनी एक मनीस
माकडांच माकडां आनी एक मनीस
एक मनीस आनी एक झाड
एक झाड आनी एक घर

घराक उजो पेटला
सगल्याक लख्ख उजवाड पडला
त्या उजवाडांत तो मनीस आतां दिसना
फकत
हातींत कोलत्यो घेतलेली माकडां दिसतात

## दीपक राघलो नायक: एक रफ स्केच

हेचें नांव दीपक राघलो नायक. वय धरात पंचीस.
हो दर शेनवारा मारुतीच्या देवळांत वयता आनी जातपात मानता
कोणाच्या लग्नाक फळीसबणाक वावरुंक हो फुडे
वाड्यार सत्यनारायण करुंक हो फुडे
चेडवांच्या गजाली भायर आनींक तेचेकडे उलोवपाक विशय ना
निकतीच थानार येयल्ल्या चेडवांक किलीस करपाक हो फुडे
पुण एकदां हेचीच तन्नी भयण एकल्यावांगडा पिक्चराक गेली
तेन्ना रागान तांबडोलाल जावन हेणी आपल्या भयणीक
येतिश्ट बडयली. हो एका बँकीत कारकुनी करता
आनी येयल्ली सगली हिंदी पिक्चरां पळयता
पिक्चरांत एकतरी रेपसीन आनी निमणी फायट जायीच
अशें हेचें मत.आनी सील फोडूंक नासलेल्या चेडवावांगडा
लगीन जावपाचें हेचें सपन
आनी हेका त्याभायर पन्नास हजारांचो हुंडोबिंडो जाय

काशि म्हण्टा :आरे हो तरनाटो म्हणजे देशाचो एक आधारस्तंभ
पुण फकत मुततानाच तेच्या हातींत देशाचो आधारस्तंभ आसता

## आनंदावांगडा एक निमणी सांज

एक पृथ्वी
आनी दोन थानां
आनी तीन पानां
आनी खंयचीच नक्षत्रां म्हज्या नक्षत्राक पडाना

जगप म्हणजे कितलो किलो दोंगोर
आनी कितलो लिटर दर्या
कपलाक तिसरो दोळो सुध्दा फुटना

म्हजो एक आमीग निमणो पिसो जालो
तिनसांजच्या कात्रींत सापडोन
पुण आयज हांव तुमका तेची गजाल सांगचो ना

सदच्याभशेन आयज तुमी उलयत रावात
बाजारभावाचेर, राजकारणाचेर, वाड्ट्या लोकसंख्येचेर
पुण हांव कांयच उलोवचो ना

# एका वेश्येचें वर्णन

एल-डोराडो थियेटराकडेन उबी एक वेश्या
ती इतली उदास दिसता की जशी
ती कोणाचीच वाट पळयना
सॅम्युअल बेकेटच्या गोदोचे नाव
तिणें जल्मांत केन्ना आयकोंक ना
तरी आसतना ती करुण नदरेन पळयता
थियेटरावयलें सिनेमाचें भव्य पोस्टर्स
अमिताभ बच्चन आनी श्रीदेवी
तिच्या नदरेंत भरता मांडवी न्हंय
आनी पलतडी वचपी एक फेरीबोट
ती पैस बेतीन एकटक नदर लायता
आनी तिचे दोळे भरोन येतात
लोव्हलोव्हू चलत एक भिकारी
तिच्या फुड्यांत उबो रावता कट्‌टी हालयत
आनी ती परत एकदां भानार येता
तीनाचो शो केन्नाच सुटला
आमोरी जावची जाल्या
आतां काळखांत ती भुतासारकी दिसोंक लागतली

# एका कवीच्या मर्णाचे पंद्रा खंड

काल तर तो हांगा ह्या वल्तेरार बसोन
म्हाका आपली कविता वाचून दाखयतालो
तेन्ना तो कितलो विश्वासू दिसतालो
आयज तो मेलो आनी तेज्यावयलो म्हजो विश्वासूच उडलो
परमेश्वर ह्या गजालीचेर म्हजो विश्वास ना
मनीस मरता ह्या गजालीचेर तर
म्हजो आजुनूय विश्वास बसाना
२.
ओमथ्या घागरेर पड्टा पावस
पड्टा पावस
पावस पड्टा खोल बांयत
खोल बांयत
आयज उदक खंय खंय
दोळे व्हांवले थंय थंय
हाय रे मोरा हाय रे तूं
पाखां झडत जाय रे तूं
जाय रे तूं
३.
म्हाका आतां कांयच करुशें दिसाना
फकत हांथरुणार पडोन रावोशें दिसता
घरांतल्यान भायर पडपाक म्हाका कसलोसो भंय दिसता
भर रस्त्यावयल्यान चलताना म्हज्या काळजांत

हारशे फुट्टात, मेंदू मूंयेता आनी पाय लडबड्टात
हांव लोकांपासून तुटत चल्लां
भितरल्या भितर फुटत चल्लां
हें आयुष्य निमणें खंय चल्लां?

४.

न्हिद न्हिद न्हिदलो
न्हिदोन न्हिदोन मान कणली
न्हिदोन न्हिदोन तकली फोडोंक लागली
न्हिदोन न्हिदोन गळीन जालो
निमणो उठलो
तोणार उदक माल्लें
देव कसो एका कदेलीर बसलो
आनी जागो रावलो

५.

आता कांयच ना आमकां?
कांय ना जाल्यार हात लावन पळय
पुण हातीक कांयच लागाना
हातीक हात लावन पळय
हातीक हात लागाना
हात काडल्यार हात येता
पाय काडल्यार पाय येता
मागीर तूं फुडें कशें करतोलोय?
पळोवया कशें जाता तें
खंय पळयतलो पंचागार काय घाडयाकडे?

६.

घे
घे रे सायबा

गडें घे
फाडें घे
नाका म्हाका शेवट जालो
घोडे पावचे जाले
घडे भरचे जाले
वडे मेळचे जाले
खेळ नाका रडी
खेळोंक ना गडी
पुरो
सोपली उमेद
काशेद जाल्या
ओ तांडेला
म्हाका
नाका शेवट जाला

७.

नाका झाळवाय
नाका झाक
हांगा जाल्या
नॅव्हीं फ्राक
नाका बापूय
नाका श्राध्द
नाका श्राध्दावयली श्रध्दा
हायहुय चण्यारोस
नाका दुख्ख नाका खोस

८.

बारा बेरेस्तार
तेरा शुक्रार

आनी निमणो तो एकुच आयतार
आयतारदीस हांव जातलो जोगी
पाच कांबरुणां कांबरुन
न्हिदतोलो
ओगी

९.

रातची नकेत्रां मेजपाचे ते दिस गेले
आता दिसानदिस हांव दिस मेजतां
पुण तेचें कॉत दवरीना
वाऱ्याक हें सगलें खबर आसा की
श्वास घेतानासुध्दा आता काळीज धड्धड्टा
सायबा,न्हिदोन पश्चाताप खुप जालो
आता न्हिदलो थंयच मेलो अशें जावंक जाय

१०.

हातीच्यो जाल्यो वाती
पायाच्यो मेणवाती
आनी तकलेचें खोबरें
आता कितें खरें ?
कानाकडे वारो झण्झण्टा
गळ्याकडे बावटो फड्फड्टा
हुकुहुकु प्राण
पायांत नाका व्हाण

११.

आकाश
पाताळ
पाताळ्ळां
शेकानशेक

म्हज्या दोळ्यांत
आनी वायनांत तकली दवरून
हांव वाट पळयता मुसळाची
मुसळा यो SS
मुसळा यो SS
आता तरी कयरांत वचो नाका
आता तरी कयरांत वचो नाका

१२.
हांव बुड्टा
म्हाका आधार जाय काडयेचो
पृथ्वीर उगवल्ल्या तणाच्या
पयल्या काडयेचो
पळय,
शेषाच्या माथ्यावयली पृथ्वी
आता गळोन पड्टली---
म्हज्या आवयच्या गर्भाशयांत

१३.
म्हज्यान आता उलोंव नोजो जालां
उलोवपाक तोण उगडलें की कंठ कसो दाटोन येता
दोळे कशे भोरोन येतात
म्हज्यान आता उलोव नोजो जालां
म्हज्यान आता नोजो जालां

१४.
जीणेतल्यान उठलेलो मनीस हांव
आतां संवसारांतल्यानूय उठोंक सोदता
पुण त्याबद्दल तुमकां दुख्ख जावपाचें कारणूच ना
कारण हांव तुमच्या मैफलींत बसोकुंच नासलो

म्हंटगूच आता भल्ल्या मैफलींतल्यान उठपाचो प्रस्नूच येयना
आयुष्यांत हांवें जागोवंक ना एक्कुय मैफल
म्हुणुनूच म्हाका हें जाग्रण जालां
हांव आता न्हिदोंक सोदता सुस्त
पळय म्हाका आता सामकी लकणी येवंक लागल्या
आता कोणे कितलोय हालयलो धोलयलो
तरीय हांव आता उठपाचो ना
म्हाका आता उठोशें दिसाना

१५.

तो मेलो
तो न्हिदेतल्यान उठोन मेलो
इतले दिस तो काळजाक हात घालून जियेलो
इतले दिस तो आपलें काळीज खावन जियेलो
तो आतां सुण्याच्या म्हयन्यांत सुध्दा कोणाक दिसपाचो ना
तेचें आता शॅटसुध्दा कोण ह्यालोंक शकचो ना
तेचो जीव तेच्या बंद मुठींत आसलो
ती सव्वालाखाची मुठ आता उक्ती जाली
तो आपलें मर्ण जियेलो
तो आपलें मर्ण मेलो

काशि म्हंटा : तो मेलो तेची आवय मरच्याआदींच
तो मेलो कारण तेका नवो जल्म जाय आसलो

## कृष्णाची प्रार्थना

सगळीं गोरवां जळामळाक जाल्यात
तूं खंय रे कृष्णा
तुका सोदता तुजी माय देवकी आनी यशोदा
तुका सोदता तुजी फास्की राधा
तुका सोदतात तुजे मेल्ले भाव सातूयजाण
तुका सोदता एक पारध्याचो बाण
खंय रे तूं चारसो बीस
त्या सुदामाक एक दिस तरी दिस
तूं येवन मारतोलो म्हुणुन वाट पळयता तो कंस आनी शिशुपाल
तुजी द्रौपदी तर नागडी जाली
आनी तुजी गीता न आयकताच मेलो तो अर्जुन
उलय आता हांव युध्द कोणावांगडा करुं?
म्हज्या हातीर बसला एक मूस, तेका मारुं?

काशि म्हंटा :
आरे कृष्णा,तूं आनी हांव एकाच कुडींत बंद आसात
जशें हिंदी फिल्मांत म्हंटात
हम तुम एक कमरेमे बंद हो
और चाबी खो जाय

# पुराण

गणपतीचें तें हत्तीचें शीर तोडून
हांव गणपतीक दसयतां
गणपतीचेंच शीर

शेषाच्या माथ्यार पृथ्वी आसा अशें जर तुमी म्हणशात
तर त्या शेषाचें आसन म्हज्या माथ्यार आसा
अशें हांव म्हंटलो

तुमकां चड करुन खबर नासतलें की
गीता सांगताना कृष्ण धेरेपेत मदीच थांबलो
आनी फुडें एक अक्षरूय उलयलो ना

## अँटमबाँबच्या स्फोटाची कविता

हांव बसलां तें कदेल
हांव जेचेर बरयतां तें मेज
म्हज्या हातींतलें पेन कागद
सगलींच उलोवपाक लागतात म्हजेकडें
हांव क़विता बरयताना

हांवें अपॉईंट केला गणपतीक
म्हजो लेखनिक म्हुणुन
आनी कृष्ण आसा म्हज्या कवितेच्या रथाचो सारथी

कविता बरयताना हांव पळयतां
महाभारतांतलें क़ौरव-पांडवांचें युध्द
कविता बरयताना हांव पळयतां तिसरें महायुध्द

हांव काडून घेता रसिकवाचप्यांची कवचकुंडलां
आनी शिखंडीच्या आड उबो रावोन
हांव बाण सोड्‌टा समीक्षकांचेर
अँटमबाँबचो स्फोट जावन हांव मरता
पुण ह्या स्फोटांतसुनूच तर म्हजी कविता जल्म घेता

कविता बरयताना हांव घेता जगपाचो अणभव
हांव जगता म्हणजेच परत-परत घेता मर्णाचो अणभव

## शेणलेली कविता

हांव आता लोकांकडेन फकत टेलिफोनांतसून उलयता
'हेंका तुमी पळयल्यात' ह्या सदरांत हांव आता लोकांक
फकत टिव्हीचेरूच दिसता
हांव फ्रिजांत लिपोन बसला काय कितें ह्या दुबावान
लोक फ्रिज उगड्टात
आनी भायर काड्टात तांबडेभडंग टॉमेटो आनी मांस
म्हजें काळीज घामेला
म्हज्या काळजांत म्हाका एअरकंडिशन बसोन घेवंक जाय

कविताबिविता बरोवन कांय फायदो ना
उतरांचो खून करप हेच आता चड म्हत्वाचें
ही आता हांव बरयता ती कविता न्हूं

# अर्दकुटी कविता

काळीज फोडून भायर येव दी आता एक कविता
तितलेच मात्शें ल्होव जातलें म्हजें दुख्खाचें वजें
उतरांनो, सरात भायर काळजांतसून आनी मेळा गंगेक
एक दुयेत मनीस, एक म्हातारो, एक मडें
हेंचो जांव दी म्हाका दिस्टावो
म्हज्या फाटसून धावत येव दी ल्हारार ल्हारां
आनी एक उद्‌गारचिन्ह !
म्हज्या कम्युनिस्ट रचनेक येव दी परमेश्वराचो अर्थ
अर्थ. अर्थाफुडे कितें ? अर्थाफुडे कितें ?

वाचप्यांनो, हेज्याफुडे म्हाका आता सुचनात उतरां
वाचप्यांनो, आता तुमीच पुरी करात ही अर्दकुटी कविता
त्या म्हणासर हांव मात्सो रडून घेता

## धार्मिक कविता

कवितेक सुरवात करच्याआदी हांव सगळ्यांक एक गाळ मारता
आता कवितेक सुरवात
कवितेची दुसरी ओळ हीच ह्या कवितेची पयली ओळ
आनी आता हांव बरयता ती कवितेची निमणी ओळ
कविता सोपच्याआदीच कवितेची निमणी ओळ येयली
आता कशी तरी उतरां फुडें धुकलुंक जाय
हांव डिक्शनरी उगट्टां आनी धापतां

खरें म्हणजें ही कविता हांगाच सोपली
आता ही कविता जो कोण वाचतोलो
तेचें पयस जांव सगळें दुख्ख ---
अशें मागणें मागून ही कविता हांव सोपयता हांगाच

## संवसाराचो अंत जाल्याउपरांत बरयल्ली कविता

माथ्यार चंद्र आनी गंगा
गळ्यांत सोरोप
आनी आंगाक भस्म फासून
कवी बसला कविता बरोंक
पुण कवीक कविता सुचाना

कवीच्या हातींत त्रिशुळायेदे पेन
आनी तो वाजयता डमरूं
कवितेचो मूड येवपाक
परत परत आपले नाकावयले घसरपी वक्ल सांबाळीत
तो सुरू करता तांडवनृत्य
अशीच पासार जातात कितलिश्शीं युगां
पुण कवीक कविता सुचाना

उपरांत एक दिस जाता मोठ्ठो प्रलय
आनी आख्ख्या संवसाराचो जाता अंत
संवसारूच उल्लोना जाल्यार आता
कविता कित्याखातीर ? कोणाखातीर ?
पुण तरीय कवीक कविता बरोवपाची खाज

आता सांगपासारकें इतलेच की
निमणी कविता सुचाना म्हुणुन कवीन आत्महत्या केली
म्हुणूनूच तर ही कविता हांव बरोंक पावलो

# एका कवितेचो पूल

"फेरीबोटींतल्यान पणजे वयताना
हांव पळयता मोडलेलो मांडवी पूल "
---- ही कवितेची ओळ जांव येता ?
"मोडलेलो मांडवी पूल हें प्रतिक
आमच्या मोडलेल्या समाजजीवनाचें "
---- काय ही कवितेची ओळ जाता ?
---- काय ह्यो दोनूय कवितेच्यो ओळी न्हूं ?
---- मागीर कवितेची ओळ खंची ?
"मोडलेलो मांडवी पूल हांव बांदता उतरांनी "
---- ही तरी कवितेची ओळ कशी दिसता ?
मांडवी पूल मोडलो आता लोक आत्महत्या करपाक
नवो पूल सोदतले. गवर्मेंट तीन वर्साभितर
एक नवो पूल बांदता खंय !
हांव कविता बरयता काय आनी कितें ?
मोडलेल्या मांडवी पुलाचेर कविता बरोवंक बसला
आनी म्हजी उतरांच मोडून पडल्यात
कोणेतरी म्हटलां, मनीस दुख्खी जाता कारण
तो पूल बांदच्या बदला वन्टी बांदता !
कविता बरोवचें सोडून हांव सध्या निबंदबीन बरयता कांय कितें ?
समजा, जर आयज मोडलेल्या पुलाचेर हांवें फस्कलास
कविता बरयली तर फाल्यां नवो पूल बांदल्या उपरांत
कितें ती कविता आऊटडेटेड जातली ?
मनोहररायांच्या, बाकीबाबांच्या कवितेंत आसात न्हंयो ---
मांडवी, जुवारी ... पुण त्या न्हंयावयलो पूल मात ना

तो म्हज्या कवितेंत आसा
म्हज्या कवितेंत आसा पूल
परत परत मोडलेलो परत परत बांदलेलो

## पुरुषोत्तम शिवराम रेगे : एक मराठी कवी

तुवें खुपजाणांक खुप सांगलें
पुण एक सांगलें ना
त्या एकाचेच धा करुन सांगलें तुवें
सगल्यांक

सगली झाडां
सगली शेवणी
सगली गाणी
आनी आख्खी ती
ती : उई अम्मा
ती : प्रियतम्मा
आनी ती तिची जघनघना
ती तिची ' ळ ' थाना
आनी एकुच शब्द
एकुच वाक्य
एकुच विराम
एकुच अणकार
आनी एकुच ओंकार

तो थंय बसलेलो म्हारोगी आपल्या घाव्यार बसपी मूस आमडीत आसता दिसभर. तो कुड्डो पोर आकुळपिकुळ जावन भिक मागता. त्या मंत्र्याक मतां जायी. म्हज्या भयणीच्याच वयाचें एक सटेल कोनशाक उबें रावोन कस्टमरची वाट पळयता. आत्तां एक मोर्चा रस्त्यातल्यान

मोटमोट्यान घोषणा दित गेलो...

मिस्टर पुरुषोत्तम शिवराम रेगे
ह्या सगल्यांक तूं मात्सो पळोवन घे
हे सगले म्हाका डिस्टर्ब करतात
तुजी कविता वाचताना जनेलार बसोन

## नवी उत्तरां

हांव थुंकतां क्लिंट ईस्टवुडच्या स्टायलींत
हांव तिरस्कार करतां ताव्हेर्नांचो, ब्रॉथेलांचो, देवळांचो
म्हाका आवड्टा तांबडो रंग
हांव दुख्खी जाता बकरीईदाक बकऱ्याचो खून पळोवन
हांव जगतां विसाव्या शतकांत
म्हज्या बापायचें नांव चार्वाक
आनी म्हजे आमीग सार्त्र आनी लोहिया
म्हजो आवड्टो पुरुष श्रीकृष्ण
म्हाका आवडपी बायल द्रौपदी
हांव वाचतां भगवद्गीता
हांव वाचतां वर्तमानपत्रां
काल आसामाक जाल्ल्या दंगलीत शंबरजाण मेले
हे म्हाका खबर आसा. म्हाका खबर आसा राजकारण
जगपाखातीर आमकां सगल्यांक राजकारणाची गरज आसा
हांव पळयतां जमनीर पडपी सफरचंद
हांव बंड करतां कलमेल्ल्या भाशे विरुद्ध
हांव मोग करपाक एक भास सोदता

## झाड

चलतां चलतां मदीच थांबलो. वळलो.
आनी येयल्ल्या पावलांनी तस्सो फाटी परतलो.
चलतां चलतां मदीच फाटल्यान वळोन पळयलें.
आनी थंयच रस्त्याकुशीक
एक झाड जावन उबो रावलो.

म्हज्या झाडार एक कावळो
हांव झाड जांवच्या आदीच बसलेलो.
हांव झाड जायनाफुडे तो उडलो.
झाडासकट.

## एक न्यूड सेल्फ पोर्ट्रेट

(साल्वादोर दालीच्या सेल्फ न्यूड पेन्टिंग्जाकडल्यान स्फूर्त घेवन)

बारीक
किडकिडीत
लांब लांब
लांब लांब हात
लांब लांब पाय
पोट फाट एक
सुकलेलें तोण
दोळे फोणाक
दोळ्यार इस्तीचें वक्ल
माथ्यार केसांचे जंगल
फुडले दात मात्शे भायर
काळो सावळो
कुलेबिले कांय ना
छातीबिती कांय ना
छातयेक एक केंस ना
उजव्या मांडयेर एक तीळ
पोटाक एक खोल बोमलेचो बुराक
त्या बुराकाकडल्यान
ल्हंवेची एक बारीक काळी रिस्क
ल्हवूच
सकयल
देवल्या
सकयल शेंटांतसून तिडक मारपी

काळीविद्र शेंटां
आनी दोन मांडयामदी
तें सकयल कितें
लोमता
कावळो झपय मारता

## नागडो

दोन न्हूं एक जाय
एक न्हूं शून्य जाय
शून्य न्हूं बिंदू जाय
बिंदू न्हूं रिस्क जाय
रिस्क न्हूं आकार जाय
आकार न्हूं पोकळी जाय
पोकळी न्हूं आकाश जाय

हें चल्लां कितें ?
हें नाका तें जाय
तें नाका हें जाय
बायेक झव व्होरोन !

पळय, दिस्त ही आकाशवाणी जाली
ह्या सगल्या वस्तूंक हांव नागडोच जाल्लो जाय
आनी नागड्याक मुस्ताकी नाका बायल जाय

## तूंच

तुजें नाव : 'तूं '
आनी म्हजें नांव : 'तूंच '
तूं म्हणजे तूंच
तुज्यापरस सुंदरूय तूंच

हांव ?
हांव तुजेर मेलों
आनी आतां लासुंक सोदतां
म्हजें मडें
तुज्या काळजांत

हांव ?
हांव तुजेर मेलों
म्हुणुनूच
परत एकदां जीतो जालों

मात
आतां तूं म्हाका भूत समजो नाका
नाजाल्यार हांव खऱ्यानीच भूत जावन वयतलों
आनी उमकळूं लागतलों एका झाडाक
उपरांत विक्रमादित्याक
म्हाका काणयो सांगच्यो पडटल्यो

आनीक

५३

आनीक म्हाका वेगळें नांव नाका
तूं म्हाका 'तूंच' म्हण
तूंच

## 'सु'खातीर दोन कविता

१.

न्हंय दर्याक मेळटा
दर्या म्हाका मेळटा
हांव तुका मेळटा
आनी तूं म्हाका मेळटा

तुज्या म्हज्या मदी
एक न्हंय व्हांवता

२.

म्हजे दोळे भरोन येयल्ले
आनी केन्नाच तू फाटसून येवन
म्हजे दोळे धल्ले
म्हज्या दोळ्यांमुखार काळोख काळोख
आनी तुजे हात
म्हज्या दोळ्यांच्या दुकांनी ओले जाल्ले

## ५५

# तशें व्हडलेशें कांय घडोंक ना

तशें व्हडलेशें कांय घडोंक ना
शेवण्याच्या पांखार एक मोठ्ठो दोंगोर आसलो
दोंगोर उडोन गेलो
शेवणें थंयच उल्लें
झाड पळयत उल्लें

मळबांतल्यान एक फातर पडलो
तेन्ना मळब सकयल जालें
आनी भूंय वयर जाली

सोरपाक खबर आसात वल्तां वल्तां
एखाद्या वल्तार सोरोप चावत जाल्यार
हांव विख खावन मरतोलो
नाजाल्यार सुंदर कविता तरी बरयतलो

तुका कितें जाय ?
खडप जाय काय उदक जाय ?
म्हज्या मनांत एक खडप उप्पाट व्हांवत आसा

तशें व्हडलेशें कांय घडोंक ना
म्हाका रडोंक येयलें
म्हुणुन कितें ही कविता हांगाच सोपोंक ना

## सुआकांती

दिस आतां घोड्यासारके धावोंक जाय
आनी फट्ट करुन उजवडोंक जाय तो दिस
ज्या दिसा सगले दिस सोपतले

मनाक लागलेल्या उज्याफुडें
आंगाक पेटलेलो उजो कांयच न्हूं
हांव न्हातां पेत्रॉलांत
आनी भक्क करून पेटयतां काडी

दर्यो म्हज्याच फाटसून येवंक लागला
आनी हांव धावता एके न्हंयेफाटसून
राव !राव !! राव !!!

थप्प करुन मदींच थांबतले एक ल्हार
थप्प करून वयल्यावयर थांबतली एक मळबांतली घार
आनी झाडां वाट चलपाक लागतलीं

# बिराड

चार पावलांचें
बिराड आमचें
बिराडांत रावता
तूं हांव आनी एक पाल

हांव तुका समजोन घेयना
काय तूं म्हाका समजोन घेयना
हाली म्हाका कविताबिविता कित्याक सुचाना
तूं कुळारा गेल्याउपरांत
हांवें रातीकडे रांदलें म्हजें एकलेपण
आनी केलें मास्टरबेशन

म्हज्या काळजांत भगभगता एक स्टोव
काळजी सोपाना
काळीज सोपाना
सोपाना हीं सोपाणां
तूं सकयल देवता
हांव वयर चड्टा
सोपाना ही सोपाणां
बिराडांत सगळीकडे
खोल
सोपाणांच सोपाणां
चार पावलांचें
बिराड आमचें

विंचू घेवन भोवता फाटीर

हांवे तुज्या मनांत बिराड केलें
तूंवें म्हज्या मनांत बिराड केलें
हीच एका घराची सुरवात
आनी होच घराचो शेवट

## प्रियाराधन

हांवें कितले फावट म्हटलें ,सुकांती SS सुकांती SS
सुकण्या SS सुकण्या SS
सुकु SS सुकु SS
कुसु SS कुसु SS
पुण तुजी जाप ना

सुकण्या SS
तूं एकदाच 'ओ 'दी
तूं फकत 'ओ 'दी
तूं 'ओ 'दित जाल्यारूच
ही कविता 'कविता 'थरतली
नाजाल्यार वाचपी म्हंटले की ह्या कवितेंत कांय दम ना

वाचप्यांनो,
म्हज्या प्रियेचो 'ओ 'येयलो आयकुंक तुमकां ?

## समग्र कविता

१.
आमी चेडयाचें नांव दवल्लें :
' समग्र '

तूं अर्दे
आनी हांव अर्दो
मेळोन समग्र
२.
हांवें तुजो उमो घेतलो
आनी समग्र हासलो
हांवें तुजो परत उमो घेतलो
आनी समग्र परत हासलो
हांवें परत परत तुजो उमो घेतलो
आनी समग्र परत परत हासत रावलो
आपल्या जल्माचें रहस्य
तेका कळ्ळें आसूंये
३.
हांव 'ब्रदर्स कारामाझोव्ह 'वाचतालो
इतल्यान समग्र केन्नाच दिमकुन्यांनी येयलो
आनी पानूच पिनलें पुस्तकाचें
हांव तापलों
पुण दोस्तोव्हस्की हासत लोक्तुबायेन पळयत उल्लो
समग्राक

४.

आता तो दिशीमिशी वाडटलो
व्हडलो जातलो
व्हडलो जाता जाता तन्नो जातलो
तन्नो जाता जाता म्हातारो जातलो
म्हातारो जावन एकदिस मरोन वयतलो

जल्म-मर्णाचो हालता पाळणो
त्या पाळण्यांत न्हिदला हांव तूं आनी समग्र

५.

सूर्य आनी चंद्र आनी मळब आनी पृथ्वी
आनी दर्या आनी समग्र

## वाघ

वाघ आमने आनी हांव सामने
वाघ वाट पळयता म्हाका खावपाची
आनी हांव वाट पळयता की वाघ म्हाका केन्ना खातलो

वाघ साम़को भुकेला
आनी हांव सामको वाजेलां
हांव जांभयार जांभयो दित आसा
तसतशें म्हज्या भोवतणी एक अटंगे रान वाडत आसा

ह्या वाघाच्या मनांत चल्ला कितें ?
हो वाघ म्हाका अजून कित्याक खायना ?
वेळ पासार करपाक
हांव मेजतां वाघाचे दांत
ओड्टां वाघाची शेपडी
पुण वाघ फकत डरकाळ्यो फोडीत
आनी जिभल्यो चाटीत रावता वग्गी

म्हाका आतां कांयच सुचना
हांव सामको हतबल जाला ह्या वाघाफुडे
आनी वाघ हतबल म्हज्याफुडे

# हांथरुणावयली कविता

न्हिदेंतल्यान जागो जाता
आनी म्हाका जाणवता
की हांव अजून जितो आसा

फातोड जाल्या
सुकण्यांचो चिवचिवाट चल्ला
लोव्हूलोव्हू ना जावपी भायलो काळोख
परत भितर म्हज्या मनांत रिगोंक लागला
आता आख्खो दिस म्हाका खावंक उठ्ठलो

एक जल्लो मरुन पडला म्हज्या खाटीसकयल
तें म्हजेंच मडें आसल्यासारकें हांव तेका पळयत रावता
आनी भसाभस भायर सरूंक लागतात मूंयो
म्हज्या बोमलेंतल्यान

सपनातल्यान जागो जावन पळयता जाल्यार
हांव परत न्हिदलां
आनी म्हज्या सरभोंवतणी एक वारूळ तयार जालां

## झेमेची कविता

तूं जागो जाल्याउपरांत
तुका पडटलें एक सपन
सपनांत तुका दिसतलें की
तूं नित्तोच जागो जाला

आतां उठ
उठ आतां

दोळे उगड
पळय

पळय
ही निसण
ही मडकी
ही फुलां
हें पेत्रॉल
आनी ह्या लाकडांच्या राशीर न्हिदलेलो
तूं

लाकडांनी पेट घेतला
आनी तूं परत एकदां सोदता
जागो जावंक

## आज्जेचें मर्ण : तीन कविता

१.
हांथरुणार पडून
आजी मेजीत आसा
आपले निमणे दिस

आतां कितें ?
कांय ना.
आता फकत
एकमेकांकडे पळयत रावपाचें
दोळे भरुन

२.
ल्हानपणांत आजी म्हाका विचारी :
हांव मेल्यार तूं रडटलो रे ?
आयज आजी खरीच मेल्या
सगळे रडटात
आनी हांव म्हाका रडूंक येवपाची वाट पळयता
जसो कितें हांव म्हज्याच मर्णाची वाट पळयता

३.
तूं मेली अशें कोण म्हंटा ?
तूं तर म्हज्या काळजांत
आजुनूय जिती आसा !
आतां हांव मेल्याउपरांत मात
कांय सांगूक नोजो

## फातोड

फातोड जाली !
कितली सादी उतरां हीं
फातोड जाली !!
खरीच फातोड जाली ?

फातोडच्या काळखांत
सोजी भोवड्टा सुरी
बकऱ्याच्या गळ्यावयल्यान
पूर्वेक तांबडोभडंग रगताचो व्हाळ

कोम्यानो, साद घालात
टूथपेस्टानो, भायर सरात
कोपानो, च्या भरात
वर्तमानपत्रांनो, दारांत पडात

लोक पोतयो घेवन येतले आता
म्हजें मांस व्हरपाक

## भंय

म्हजो जल्म जालो तेन्नापासुनूच
हांव लोव्हू लोव्हू मरत आसा

गर्भाशयांत पेटला एक सरण
त्या सरणार जळटा एक मडें

म्हाका मर्णाचो भंय दिसाना
म्हाका भंय दिसता जीणेचो

# एकमुळेपण

आकाश आनी पाताळ एक केल्याउपरांत
जें कितें एक जाता
तें एकमुळेपण

मुळाक पावलो की एकमुळेपण हें येतलेच
संवसारातले सगले मरून गेल्यात
आनी हांवूच एकलो जितो आसा

# झाडार चडलेली कविता

झाड वाडाना
फुल फुलाना
फळ धराना

झाड झडलें
झाडावयली माती झडली
झाड मातयेभरवण

मळबांतल्यान माती पड्टा
मातयेर पावस झड्टा

झाड झड्टा
पावस झड्टा

## आसा आनी ना

जीणेक म्हज्या वारो ना
जीवाक असो थारो ना
घर आसा पुण दार ना
अंत ना पार ना

जल्माक येयल्लो
मर्णाक येतलोच

यो SSS

येता काय ना ?
जो कोण येतलो
तो आसा काय ना ?

आसा आनी ना.

## वेताळ

आतां ह्यापुडे
विक्रमादित्य प्रस्न विचारतोलो वेताळाक
आनी वेताळ त्या प्रस्नांची जाप दिनाजाल्यार
जितें जातलें विक्रमादित्याच्या खांद्यावयलें मडें

एका खिणाक जगूशें दिसता
तर दुसऱ्या खिणाक मरुशें दिसता
जाल्यार हांव कितें करूं ?
जगूं काय मरूं ?

म्हाका सगल्याचो वाज येयला
म्हाका हे प्रस्न विचारपाचोय वाज येयला

# कविता छत्तीसाव्या वाडदिसाची

दिस वचत आसात
वचत आसात वर्सां
तसतसो हांव मर्णाच्या लागी येयत आसा

हांव मेल्याउपरांत
दिस वचत आसतले
वचत आसतली वर्सां

कित्याक जालो म्हजो जल्म ?
हो म्हजो अँटमबाँबसारको एकुच प्रस्न
निमणो ह्या पृथ्वीचो अंत घडोवन हाडपाक
थरतलो कारणीभूत

## महाभारत

(कुरुक्षेत्र : पांडवांचे आनी कौरवांचे सैन्य उबें आमने सामने. घोडे व्हडल्याव्हडल्यान खिंकाळटात ताचो क्लोजप. कॅमेराच्या फ्रेमींत अर्जुनाचो रथ. अर्जुन आनी कृष्ण रथाचेर उबे.)

कृष्ण : तुवें युद्ध करुकुच जाय पार्था !
अर्जुन : कांय अर्थ ना.
(घोडे खिंकाळटात ताचो क्लोजप.)
(कॅमेरा युद्धाच्या तयारीत राविल्ल्या साद्या सैनिकांचेर.)
सैनिक १ : (जांभयो दित) हें युद्ध केन्ना सुरू जातलें ?
सैनिक २ : (जांभयो दित) हें युद्ध केन्ना सुरू जातलें ?
सैनिक ३ : (जांभयो दित) हें युद्ध केन्ना सुरू जातलें ?
(घोडे खिंकाळटात ताचो क्लोजप)
(परत कॅमेरा अर्जुनाच्या रथाचेर.)
कृष्ण : अर्जुना, हातीत घे तें धनुष्य.
अर्जुन : कितें फायदो ? पयलें म्हायुद्ध जालें, कितें फायदो जालो ? दुसरें म्हायुद्ध जालें, कितें फायदो जालो ? तिसरें म्हायुद्ध जालें कितें फायदो जालो? कांय फायदो ना. कांय अर्थ ना.
कृष्ण : तर आयक म्हजी गीता
अर्जुन : हांवे आदीच ती आयकल्या विश्व हिंदु परिषदेंत.
कृष्ण : पळय म्हजें विश्वदर्शन
अर्जुन : विसाव्या शतकांत तें पळयलां हांवें दूरदर्शनाचेर.
(घोडे खिंकाळटात ताचो क्लोजप.)
(आतां सैनिकांचेर कॅमेरा.)
सैनिक १ : युद्ध ना, कांय ना. हें धनुष्याचें वजें घेवन आमी कित्याक जगतात म्हाका समजना.

सैनिक २ : टिव्हीचेर छायागीत पळोवपाचें सोडून आमी हांगा कित्याक झक मारतात म्हाका समजना.

(घोडे खिंकाळटात ताचो क्लोजप.)

(कॅमेरा आपापल्या रथाचेर उबे आशिल्ल्या भीष्माचेर आनी द्रोणाचार्याचेर सरकता.)

भीष्म : हांव भीष्माचो पार्ट करतां.

द्रोणाचार्य : हांव द्रोणाचार्याचो पार्ट करता.

(घोडे खिंकाळटात ताचो क्लोजप.)

(कॅमेरा परत अर्जुन - कृष्णाचेर.)

कृष्ण : (हताश जावन) मागीर पार्था, आतां हांव कितें करूं ? आतां हांवूच पडलां संभ्रमात. आता अशे हांगा उबे रावोन तरी कितें अर्थ ?

अर्जुन : कांय अर्थ ना. कृष्णा, आमकां सगल्यांक आजल्म कांयच न करतां कुरुक्षेत्राचेर फकत ताटकळत उबे रावपाची ख्यास्त मेळ्ळ्या.

कृष्ण : कोणे दिली ? कित्याखातीर ?

अर्जुन : तूं साक्षात भगवंत. तुकाच खबर आसतलें.

कृष्ण : म्हाका कांयच खबर ना.

(घोडे खिंकाळटात ताचो क्लोजप.)

(आतां कॅमेऱ्याच्या फ्रेमींत धृतराष्ट्राचो महाल येता. कुड्डो धृतराष्ट्र आनी ताच्या सामकार दोळ्यार काळी पट्टी बांदिल्ली गांधारी. दोगाय टिव्ही म्हऱ्यात बसल्यात.टिव्ही पळयतात.उपरांत टिव्हीच्या पड्ड्याचो क्लोजप. टिव्हीच्या पड्ड्याचेर एक यंत्रमानव आनी अश्वत्थामा. दोगुय आमने सामने बसल्यात. यंत्रमानव अश्व्त्थामाची मुलाखत घेता, तांचेर कॅमेरा.)

यंत्रमानव : तुजें नांव कितें ?

अश्वत्थामा : म्हजें नांव अश्वत्थामा.

यंत्रमानव : तुजे जिणेचें ध्येय कितें ?

अश्वत्थामा : म्हाका खबर ना.

यंत्रमानव : तू कित्याक जियेता ?

अश्वत्थामा : म्हाका खबर ना.

यंत्रमानव : हें जग खंय चल्लां ?

अश्वत्थामा : म्हाका खबर ना.

(अचानक टिव्हीची ट्रान्समिशन लिंक तुट्टा. दृश्य गायब. फकत सरसर असो आवाज.)

(आतां कॅमेराच्या फ्रेमींत त्या टिव्ही सकट टिव्ही पळोवपी धृतराष्ट्र आनी गांधारी. आनी टिव्हीचेर फकत धवे पट्टे आनी सरसर आवाज.)

## पोस्टमनचें झाड

पोस्टमन ज्या झाडासकयल न्हिदलेलो त्या झाडाक पानां नासलीं पुण चिटयो आसल्यो." ह्या झाडाक आमी पोस्टमनचें झाड म्हुणुया " अशें आमचें दोगांयचें म्हणणें पडलें. म्हज्या मतान तो पोस्टमन न्हिदलेलो तर तेज्या मतान तो मेल्लेलो. पोस्टमनच्या कुशीक बसोन हेजेर आमी खुप वगत दिसकुसांव केलें. पुण तेजी नाडी मात पळोवपाची कापासदाद आमचेकडे नासली. कारण तेच्या मनगटार घड्याळ आसलें. घड्याळांत मळबांतल्या सूर्याचें पडबिंब तितकें आमी स्पश्ट पळयलें. आनी तो विशय तात्पुरतो सोपयलो. सोपयताना तेणे म्हाका म्हटलें, "तर मागीर हो तुजो पोस्टमन केन्ना जागो जातलो ?"

उपरांत तो एकटोच झाडार चडलो.झाडावयल्यो चिटयो तोडून म्हजेकडे उडोव लागलो. तितून जल्म मर्णाच्यो, अभिनंदनाच्यो बीन चिटयो आसल्यो हें कितें सांगपाची गरज ना. धेरेपेत वयल्यान तो आड्‌डलो," हांगा पोस्टमनाच्या मरणाची चिट सेर्त मेळटली. "तो ती चिट मेळोवपाक धडपडू लागलो. तेज्या हाताक एक पार्सल लागलें. तें म्हजेकडेन उडोवन तेणी म्हटलें, "हें पार्सल मात्शें फोडून पळय भितर कितें आसा तें. "हांवे पार्सल फोडलें.पार्सलांत एक तांबडेंभडंग फळ आसलें. तें फळ कसलें तें म्हाका वळखपाक येयलें ना. हांवे तेका सकयल आपयलो. पुण तेकाय वळखपाक येयलें ना. म्हज्या तकलेंत एक बेश्टीच ट्यूबलाईट पेटली. हांव खोश्शेन आड्‌डलो, "सेर्त हे संजीवनीचें फळ आसूंक जाय. "म्हजें उलोवप आयकोन तेजें तोण आंबट जालें. ---"म्हाका तर दिसता की हें विखाचें फळ आसूंक जाय." आमच्या दोगायतल्या कोणाच्या उलोवण्यात तथ्य आसा हें पळोवपाक फळ चाखून पळोंक जाय आसलें. पुण आमकां दोगायकुय तें करपाचें धाडस जालें ना.सांगू येता, ते विखाचेच फळ आसलें जाल्यार?

पोस्टमनाक त्या फळाविशी सेर्त खबर आसुंक जाय. ----"हो तुजो पोस्टमन केन्ना जागो जातलो ?"तेणे परत म्हाका थोमण्यान म्हटलें.

पोस्टमनच्या छातयेचेर एक भिकुण म्हाका दिसलो. तेजेकडे पळयत हांव चोरासारको वग्गी बसोन रावलो. तेणें तें तांबडें फळ पोस्टमनच्या कपलार दवरताच हांवे तेका तो भिकुण दाखयलो आनी म्हटलें, "हो पळय पोस्टमन उठलो." एखादे झाड सळसळचें तसो तो हांसलो. तेणे चिमटीत तो भिकुण धरुन टिच्च करुन मारलो.---"हो पळय पोस्टमन मेलो."

कास्ताचो वारो सुटलो. आनी वाऱ्यावांगडा फुलां, फातर येवं लागले. त्याच खिणाक पोस्टमनच्या कपलार दवरलेल्या त्या तांबड्या फळाची पुजा करपाची आयडिया म्हज्या तकलेंत येयली. तेकाय ही आयडिया मानवली. हांवे तेका म्हटलें," तूं जा भट. " तेणे आपल्या दोनूय बोटांक चिकटलेल्या भिकणाच्या रगताचे थेंबे त्या फळाक गंध म्हुणून लायले. फुलां घातलीं.हांवें म्हटलें, " उजवात दाखोवंक जाय. " __" ही पळय उजवात. " अशें म्हणून तेणी उरल्यासुरल्या सुवासिक फुलांचो जळोवन धुंवर केलो.

पैसुल्ल्यान एक काळेंकिट्ट अस्वल येताना हांवें पळयलें. पोस्टमनाक थंयच उडोवन आमी दोगूय झाडार चडोन बसले. अस्वल डुलत-डुलत पोस्टमनच्या लागी येयलें. तेणे तेजें नाक,तोण,कान हुंगले. तेजी नदर कपलावयल्या त्या तांबड्याभडंग फळाकडे गेली. पयली तेणें तें फळ हुंगलें. मट् करून खाल्लें. आनी येयल्ल्या वाटेन परत गेलें.

आमी तशेच झाडार बसोन रावले. खुप वगतान तेणें म्हटलें, "हें पोस्टमनचें मडें कुसतलें. एखादो फोण काडून पुरोवन उडोवया. "-- "खून पचोवपाक पळयता काय कितें ? "-- हांव. "कसलो खून? कोणाचो खून? "--तेजो भयचकित आवाज. हांवे तेका भिकणाची याद करून दिली.

ल्होवू-ल्होवू काळोख दाटलो. तेणे झाडारूच न्हिदपाचें

थारायलें. हांव मात पोस्टमनच्या म्हन्यांत न्हिदलो. पुण ह्या कुशीवयल्यान त्या कुशीर आमी सारके वळवळटाले. झेमूच येय नासली, वयल्यान तेणे म्हटलें," एक काणी तरी सांग. "हांवें वेताळाची काणी सांगपाक कॉमेस केलें.

" विक्रमादित्यान आपलो हट्ट सोडलो ना. तो झाडाकडे गेलो. मडें खांदार मारलें आनी सदच्याभशेन मोसुंडेकडे चलपाक लागलो. तेन्ना मड्यांत बसलेल्या वेताळान तेका म्हटलें __ "

इतलें म्हणून हांव थांबलो. झाडाकडे पळयलें. तेजें हुं-हुं बंद जाल्लें. तेका मदींच झेम लागलेली. हांव झाडार चडलो. तेका खांदार मारलो. आनी विक्रमादित्याच्या स्टायलींत चलत रावलो.

***

## काशिक म्हणचेंच पड्टा

'काशि म्हंटा' हो काशिनाथ शांबा लोलयेकाराचो पयलो काव्यझेलो. तो १९८२ सालांत उजवाडां आयिल्लो. आता पंद्रा-सोळा वर्सां उपरांत ताचो 'काशिक म्हणचेंच पड्टा' हो दुसरो झेलो प्रकाशित जाता. हो दुसरो पुण कदाचित निमणोय थरूं येता. कारण आज सातेक वर्सां जालीं, ताणें एक्कुय कविता बरोवंक ना. आपल्याक आता कविताच सुचना असो तो म्हंटा. म्हुणुनूच सध्या तो गद्य बरोवपांत अदीक रस घेता आसूये. कितेय जांव, पूण कवी म्हणून काशिनाथ शांबा लोलयेकाराचो अवतार सोपला काय कितें हें निमणें काळच थरयतलो.

ब्र प्रकाशन

वालोर : पंचावन रूपया